Rangaboli
Paresh Narendra Kamat

पयली आवृत्ती
मे २०१८



मुखचित्र आनी रेखाचित्रां
परेश नरेंद्र कामत

उजवाडावपी
सन्मित्र प्रकाशन
एफ ६; पराग हावसिंग सोसायटी
शांतीनगर, फोंडें-गोंय ४०३४०१
फोन २३१२६९२

छापणावळ
कस्तुरी ग्राफिक्स
ढवळी, फोंडें-गोंय ४०३४०१
फोन २३१७४८६

मोल : ₹ २००/-

दत्ता दामोदर नायक
रमेश भगवंत वेळूस्कार
आनी
महाबळेश्वर सैल
हांकां
ही रंगबोली-

# अंतर्मूखी कविता

परेश नरेंद्र कामत हो फाटल्या शतमानाच्या निमाण्या दसकांत मुखार आयिल्ले पिळगेंतलो सगळ्यांत म्हत्वाचो कवी. भारतीय कवितेच्या इतिहासांत ह्या णव्वदीच्या दसकाक खाशेलें म्हत्व आसा. हें दसक म्हळ्यार सरत आयिल्ल्या शतमानाच्या आमोरेचो काळ. ह्या काळांत संवसाराचें राजकारण, समाजकारण आनी अर्थकारण कूस परतितना दिसता. पर्यायान ताचो परिणाम साहित्य व्यव्हाराचेर जाले. ह्या काळांत नव्यो जाणिवो कवितेंत आयिल्ल्यो दिसतात. एक नवो प्रवाह एकूण साहित्यांत खळखळून व्हांवपाक लागलो. आनी बरेच कवी ह्या प्रवाहा बरबर गेले. ह्या कवींची नदर भायलो संवसार पळोवपी. हे कवी ह्या बदलांची नोंद घेतात. तांच्यो राजकीय आनी सामाजिक जाणिवो खूप खर आसतात. पूण कांय कवी सामके वेगळे प्रकृतीचे आसतात. भायल्या संवसारांत जे बदल घड्टात ताचो परिणाम तांचे कवितेचेर जायना. ताचें एक म्हत्वाचें कारण म्हळ्यार तांची अंतर्मूखी नदर. तांकां भायल्या समाज वास्तवांत म्हणपा सारको रस नासता. ज्या समाजांत तो रावता आनी वावुरता ताचें चित्र तो आपले कवितेंतल्यान चितारताच अशें ना. आनी कवीन सामाजिक राजकीय जाणिवो आपले कवितेंत व्यक्त करूंक जाय असो आग्रो धरप हें कितलें बरबर हाचेर विचार जावपाक

जाय. सगळेच कवी एकेच तरेच्यो जाणिवो व्यक्त करपाक लागले जाल्यार त्या काळाची कविता एकसुरी जावपाचो भंय आसता. मात कांय कवी एकेच बरबर दोनूय तरेच्यो कविता रचतात. पाब्लो नेरूदा ही ताची उत्तम देख. चिली देशाच्या राजकीय क्रांतीत ताणें वांटो घेतलो आनी राजकीय आशयाच्यो कविता बरयल्यो. तेच बरबर चिली देशाचो सैम चितारपी आनी तरल प्रेमसंवेदना व्यक्त करपी कवितेची निर्मणी केली. आमची थळावी देख म्हळ्यार मनोहरराय सरदेसाय हांची कविता. 'तुज्या आंगार म्हज्या आंगार फुल्ले मोगा मोगरे कळे' अशी शृंगार भावना व्यक्त करता आसतनाच तांणी 'ही लोकशाय' सारकिली परस्पर विरोधी अशीय कविता केली ही लक्षांत घेवपा सारकी गजाल आसा. सामाजिक, राजकीय जाणिवेचो कवी आनी भावकवी हीं दोनूय व्यक्तिमत्वां तांचे भितर एकठांय वावुरतना दिसतात. र. वि. पंडिताचे बाबतींत थोडेंभोव तशेंच म्हणपाक वाव आसा. पूण शंकर रामाणी आनी पांडुरंग भांगी हे निखळ भावकवी. तांचे कवितेची वाट वेगळी. ह्या वेगवेगळ्या प्रवाहांक लागून कोंकणी कवितेंत एकेतरेची विविधताय आयल्या.

ह्या संदर्भांत परेश कामतीचे कविते कडेन पळयतना हो कवी रामाणी आनी भांगी हांचे कवितेचें दायज मुखार व्हरतना दिसता. ह्या कवीं मदलें सारकेंपण सहजपणान सोदपाक येता. कित्याक तर तांची कविता प्रकृतीन एक सारकी. ती आत्मनिश्ठ तितलीच व्यक्तिनिश्ठ. तांचे

कवितेंत भायल्या संवसाराचें पडबिंब पडिल्लें दिसना. आनी आत्मनिश्ठ कविता ही व्यक्तिनिश्ठ आसपाक जाय. ह्यो दोन प्रवृत्ती एकामेकां पासून वेगळावंक येना. रॉमेंटीक कवितेचें तें एक खाशेलेंपण आसा. कामतीच्यो आजमेरेन बरयल्ल्यो कविता पळयल्यार ही एकूच वृत्ती घेवन ती मुखार गेल्ली दिसता. लागीं लागीं तीस वर्सांच्या तिच्या प्रवासांत तिचो सभाव बदलिल्लो दिसना. तिच्या रूपाची रेखणी अदिकादित सुक्ष्म जाल्ली दिसता. कांय कवी आपले कवितेचो सभाव आनी प्रकृती बदलना. आनी बदल जालोच जाल्यार तिच्या भायल्या रंगाचो. पूण तिचें अंतरंग मात तशेंच उरता. काळा प्रमाण आपले नीज प्रकृतीच्या विरूध्द आशिल्लो आशय कवितेंत केळोवन तिचे विरूपीकरण केल्ले कवींचीं कांय देखी आसात. बाकीबाबाली कविता लेगीत हे अवस्थेंतल्यान गेल्या. 'दुदसागर' ते 'आनंदभैरवी' ह्या दोन संग्रहांच्या मदल्या काळांतल्यो कविता तांचे मूळ प्रकृतीक मानव नाशिल्लो सामाजिक आशय घेवन आयिल्ल्यो दिसतात. मागीर मात तांची कविता आपल्या मूळा कडेन आयली. कांय कवी भूतकाळ आनी वर्तमान काळांत जियेतना भविश्यकाळाचो वेध घेतात. पूण पु. शि. रेगे, शंकर रामाणी सारकिले सौंदर्यवादी कवी निखळ आंतरीक अणभवांक शब्दबध्द करतात. ते खंयच्याच काळाचो असो विचार करीनात. पांडुरंग भांगी हो हेच जातकुळयेचो कवी. हे कवितेचें दायज परेश कामत मोट्या समर्थपणान मुखार व्हरता अशें म्हणचें पड्टा. दर

एकलो कवी परंपरे पासून पयस वचूंक शकना. प्रत्येक काळाची म्हूण एक संवेदनशिलताय आसता. तिचे कडेन जुळोवन घेवपाचो पिंडधर्म कांय कवींचो आसना हें तांचे कवितेचो विचार करतना मतींत घेवपाक जाय.

परेश कामतीचो 'अळंग' हो पयलो कविता संग्रह धरून ते 'रंगबोली' हो नवो कविता संग्रह हो ताचो कवितेचो प्रवास अभ्यासाचे नदरेन विचार करपा सारको आसा. 'शुभंकर' ह्या ताच्या कविता संग्रहाचे अभ्यासपूर्ण प्रस्तावनेंत नामनेचे समिक्षक डॉ. सोमनाथ कोमरपंत बरयतातः 'आपल्या सृजनशीलतेच्या प्रवासा कडेन आत्मसोदाच्या प्रक्रियेंतल्यान पळोवपाची तांक तांच्यांत आसा. तशें पळोवंक गेल्यार सृजनशीलतेच्या अंतरंगाचो थाव लागप हें भोव कठीण. पूण परेश कामत आपल्या तरल प्रतिभेन ह्या व्यामिश्र प्रक्रियेक नकसूद उतरांनी वेंगायता'. डॉ. कोमरपंतांचें हें मत खोडून काडप शक्य ना.

तांबडीगुंज
फुलांची ही रंगबोली

रगताची
तांबडीगुंज ही भास
ओली

मदीं
तुजे म्हजे

तांबडीगुंज ही
परमळटा आस

येता
म्हज्या रगताचो
म्हजे चित्रभाशेक वास...

ही कविता ह्या संग्रहाचे सुरवेकूच येता आनी हे कवितेच्या भावविश्वाचें दार उक्तें करपाची चावी आमच्या हातांत येता. फुलांची ही तांबडीगुंज रंगबोली रगताचो रंग आशिल्ली. हे रंगबोलयेन 'तुजे-म्हजे' मदले परमळीत जावपी आशेक तांबडीगुंज केल्या आनी ताकाच लागून ताचे चित्रभाशेकूच रगताचो वास येता. हे कवितेंत तांबडीगुंज हें उतर रगताच्या रंगा कडेन गाढ नातें सांगता आनी ह्या नात्यांतल्यान एक बंध तयार जाता. तांबडीगुंज हें विशेषण रगताच्या प्रतिमे कडेन एकरूप जाता आनी तातूंतल्यान चित्रभास ही प्रतिमा जल्माक येता. परेशाचे कवितेक रंगांची अनावर अशी ओड आसा. एके तरेचें ऑब्सेशन अशेंय म्हणूं येता. ही रगताची प्रतिमा शारिरीक संबंदांतल्यान व्यक्त जावपी इंद्रिय संवेदना व्यक्त करता. लावण्याचें लखलखपी झुंबर कशी ती दिसता आनी 'तुजें ओलें आंग / तुज्यो रंगसंवेदना / देंवत रावल्यो म्हज्यांत / रावल्यो तरंगत म्हज्या अंतरंगांत.' ह्यो रंगसंवेदना अणभवांच्या रूपांत येतात त्यो अव्यक्त वा म्हणुया अमूर्त

पांवड्या वेल्यान. देखून कवी :

हांव चित्रांत<br>सोदूंक लागलों म्हजेच रंग<br>आनी रंगांत भिनिल्लें तुजें रूप<br>रगता सारकें.

तो फुलताच तांबडोगुंज तिच्या पाचव्याचार वेंगेंत आनी फुलत झडत रावता पाकळ्या पाकळ्यांनी तोय तिच्याच वेंगेंत. ती ताचे भितर एकरूप जाता तेन्नाय तिचे वेंगेंत रगताची गाज त्या पाकळ्यांनी आयकुपाक आयिल्ल्याचो अणभव हांगा व्यक्त जाता. ह्या कवितांचे शब्दकळेक रंगांच्यो सया आसात तशेंच अर्थाचे रंग आसात. तेच भशेन हे कवितेंतल्यान मानसिक स्थितीचीं आंदोलनां व्यक्त जाल्लीं दिसतात. दृश्यां आनी मनाच्यो वेगवेगळ्यो अवस्था परेशाचे कवितेंत एकजीव जातात.

ताचे कवितेंत तांबड्या रंगांच्या सयां बरबरूच हेर रंग येतात. उटंगाराचो पावस तापिल्ले मातयेक गाढ वेंग घालता आनी ही गाढ वेंग मातयेचें बाह्य आनी अंतरंगूय बदलून उडयता. मातयेच्या काळजांत विलोद फुलून माती भुल्लूसून वता आनी तिका फुटिल्ल्या शिरशिऱ्यांत ती पाचवीचार जाता. आनी 'कल्ल उसयत / बियेन घेतलें अचकीत / एक स्वासमेकळें पाचवेंचार आवर्तन / त्या आवर्तनांत / घुमघुमत रावली दिकांनी / एकसारकी युगानयुगां / बियेच्या अंतर्मनाची / प्रसन्न पाचवी गाज'. पाचव्या रंगांतल्या उत्सवांतल्यान सृजनोत्सव सुचोवपी ह्यो वळी.

पाचव्या रंगा भशेनूच हळडुवो रंग हे कवितेंत काव्यानुभव जावन येता. वोत तणांत सळसळटा तें एखाद्रया सोरपा भशेन आनी परत तण सळसळटा तें सोरपा भशेनूच. सोरोप सळसळटा तो तणांत वोता सारकोच. हें वोतूच हळडुवें. आनी 'अद्‌भूत हें हळडुवेंचार / तणांतलें' असो हो रंगाचो अणभव. हांगा उतरांचो खेळ आसा. वोताचो, सोरपाचो आनी तणाचो एक रंग जाल्लो दिसता. वयले वयर पळयल्यार कवी हांगा भाशीक क्रिडा करता अशें दिसता. पूण बारकायेन विचार केल्यार तो ह्या रंगाचे प्रतिमेक दृक् परिमाण दिता असो अणभव येतलो. परेशाच्या 'शुभंकर' ह्या कविता संग्रहांत 'आंगाक हळद लायिल्लीं हळडुवींच गिमाळीं वोतां' अशी हळडुव्या रंगाची संवेदना जागोवपी प्रतिमा आयल्या ताची हांगा याद जाता.

सकाळ, दनपार आनी सांजवेळ अशे दिसाचे पार धरले जाल्यार सकाळ आनी सांजवेळचें मळब पळोवचें. ह्या दोनूय काळावेलें मळब सादारण एकसारकें दिसता. ह्या दोनूय काळार मळबाचे रंग तांबसो, निळसो आनी कांयसो किरमिजी आसता. आनी खिणा खिणाक ताचो रंग बदलत रावता. मार्क रोथको हो एक अमेरिकन अमूर्त चित्रकार. ताणें आपल्या कॅन्वासार हे मळबाचे बदलत वचपी मूड्स चित्रायल्यात. कांय बाबतींत वासुदेव गायतोंडे हांच्या चित्रांतल्यान होच आशय आपले परीन व्यक्त जाता. तांचीं चित्रां मोनेळीक खेरीत असो अर्थ दिता. सकाळचे परसूय सांजवेळा वेगळीच अशी मनोअवस्था आसता. ह्या

वेळार एकेतरेची उदासी मनांत दाटून येता आनी चुकिल्ल्यो माकिल्ल्यो यादी घोटेरांत परततात.

आतां पाकळ्योच पाकळ्यो
जशी देंवता
सांज फुलां फुलांर

मळब रंग
बदलत वता
पाखांनी ल्हवसार...

परेशाचे कवितेचें वैशिश्ट म्हळ्यार ताचे कवितेंतल्यो चित्र प्रतिमा. तांचो अभ्यासाचे नदरेन विचार केल्यार संस्कारवादी चित्रकारांची याद जाले बगर रावना.ताचें एक म्हत्वाचें कारण अशें : एखाद्रया विशिश्ट अशा खिणाक वा अणभवाक संवेदना संस्कार करता. अशे अभिव्यक्तीक हे कवितेंत वाट मेळटा. सैमांत जे खिणा खिणाक बदल जातात ते बदल ही कविता अळंगपणान टिपता. आनी ह्यो सौंदर्य संवेदनाच हे कवितेक आकार दिता. कविता आनी चित्र एकामेकांच्या सामक्यो लागीं येतात हाचो अणभव परेशाची कविता दिता. ती निखटी कानांनी वाचपाची नासता तर दोळ्यांनी पळोवपाची आसता. सैमाच्या प्रतिमांक वा अवकाशाच्या प्रतिमांक आपलें अशें खाशेलें रूप, रंग, आकार, गती आनी लय अशे गूणधर्म आसतात.

कामतीचे कवितेक स्त्री सौंदर्याची ओड आसा

आनी ह्या सौंदर्याच्यो वेगवेगळ्यो सया तो अळंग रितीन टिपून घेता.

रंग विरगळत गेले
तुज्या ओंठांत
म्होंव
पाझरत गेलें
फुलांच्या देंठांत

'ओंठांत / देंठांत अश्या सहज जुळून आयिल्ल्या यमकांतल्यान तूं-हांव मदल्या नात्याक घटाय येता. कवीच्या भावविश्वांत 'तूं'ची वेगवेगळी रूपां दिसतात. हे प्रेमकवितेंतल्यान मुखेलपणान व्यक्त जाता तो रतिक्रिडेचो भाव. रतिक्रिडा ह्या शब्दाक धरून शृंगार हो येताच. आनी हो शृंगार भाव मनाक चाळोवन घालपी आसता. बायलेचे कुडी विशींची एके तरेची आसक्ती ती व्यक्त करता. ताका कामभाव अशें म्हणूं येता. खूप फावट हो कामभाव कलात्मक पांवडो गांठीना तेन्ना ती अभिव्यक्ती बटबटीत जाता. ती अश्लिल दिसपाक लागता. हे भाव शरीर संवेदना उपून ताच्याय पेल्यान वता तेन्ना ती अदीक refined जाता. हो नेम निखटो कवितेकूच न्हय तर एकूण कलेक लागता.

अचकीत
उतरांनी वचून बसलें तूं
म्हज्या
आनी

जालें चित्र
संवेदनेचें
लावण्याचें
लखलखतें झुंबर

हे वळींनी स्त्री रूपाच्या लावण्याचें एक आगळें वेगळें सौंदर्य दोळ्यां मुखार येता. प्रेमभावना व्यक्त करपाक कवी सैमप्रतिमांचो मेकळेपणान उपेग करता. लक्ष्मण पै सारकिल्या चित्रकाराक सैमांत बायलेचीं वेगवेगळीं रूपां दिसतात तेच भशेन कामर्ताकूय सैमांत स्त्री सौंदर्याचो साक्षात्कार जाता. उजवाडाच्या सातूय रंगांत ती आसता काळखाक उजवाडावपी आनी रानमोनेळींत अळंग पाकळ्यो उगडीत फुलपी रानफुला भशेन. हें निखटें फूल न्हय तर आपलें निगगसपण जपपी रानफूल. प्रेमाची म्हूण आपली अशी देहबोली आसता. दोन कुडी स्पर्शाच्या माध्यमांतल्यान उलयतात. ही गूढ भास उतरां विणें सगळें सांगपी. हांगा दोळेच दोळ्यांक वाचतात. 'म्हज्या स्वासांत / घुमयत राव / तुजो स्वास / बाटोळे सारको / निमाण्या स्वासा मेरेन... असो हो अणभव चैत्रांतली पुनव आंगभर मनांवपी. ह्या सगळया अभिव्यक्तींत एकेतरेची sensuality आयल्या ती तरल रूप घेवन.

काळ्या काळ्या दोळ्यांनी तुज्या
वाच
शुभ्रावस्था
मनाची म्हज्या

ही हे कवीची अणभव घेवपाची तरा. हो काव्यानुभव गूढ असो न्हय तर तो लौकीक आसुनूय ताका अलौकीकतायेचो स्पर्श आसा. हो अणभव जाणवता तरी शब्दां पेल्यान उरता. सगळेंच सांगपाची तिची वज न्हय तर ही कविता आपलो अर्थ लावपाक सुचयता. परेशाचे कवितेचें तें एक खाशेलेंपण अशें म्हणपाक जाय.

आंगभर आंगभर आतां
सगळे कडेन
पानां पानांची सळसळ

असो जडांतल्यान सुक्ष्मा कडेन वचपी अणभवाचो हो प्रवास. परमळाच्या हुंवारांत धायदिको फुलतात आनी जडगुळो जीव हवेंत तरंगत वचपी पिसा भशेन ल्हवपीक जावपी...

कांय फावट एक कविता बरोवन जातकच दुसरे कवितेचें बीं रूजवणाक पड्टा. ताची गवाय 'कळा कळांनी वारो' आनी 'कृष्ण' ह्यो दोन कविता आसात. पयले कवितेंत झाडांच्यो गवळणी, वाऱ्याची कृष्णमयी बांसरी अशो प्रतिमा येतात आनी दुसरे कवितेंत काळांख कृष्ण जावन आयिल्लो दिसता. परेश हांगा कृष्णाचे प्रतिमेक नवीं परिमाणां दिता. ही दुसरी कविता पयले कवितेचें विस्तारीत रूप. एके कवितेंतल्यान हो असो दुसरे कवितेचो जल्म जाला आसुंये. सृजन प्रक्रियेचो तो स्वभाव अशें म्हणूंक जाय.

परेशाचे कवितेक सैमाचो सांगात आसा. ताचेरूच

तिची पोसवण जाता. देखून झाड, पान, फूल सारकील्या प्रतिमांची आवर्तनां ही कविता घेता. हे प्रतिमांनी दडिल्ल्या अर्थाच्यो शक्यतायो ती पारखिता. ह्यो सगळ्यो कविता वाचून तांचो आस्वाद घेतकच दोळ्यां मुखार ह्योच प्रतिमा खोल कोरांतून उरता. रमेश वेळुस्कारा उपरांत झाड ही प्रतिमा प्रभावीपणान वापरपी कवी हो परेश कामतूच.

कवितेक भाशीक लय आसता तेच प्रमाण तिका वृत्तीची लय आसता. आनी ह्या दोगांयचो सुंदर मेळ परेशाचे कवितेंत घडून आयिल्लो अणभवाक येता. थोडो अलंकारीक भाशेचो आदार घेवन सांगपाचें जाल्यार ही कविता म्हळ्यार पावस पडून गेल्या उपरांत मनांत वाजपी ओथांबे...

परेश कामतीची कविता निखटी रंगांची आनी प्रतिमांची उधळण न्हय. तो प्रत्येक प्रतिमा आनी प्रतिकां तोलून मापून वापरता. कोंकणी कवितेंत रंगसंवेदना आडवादानूच आयिल्ली दिसता. कांय कडेन तिचो आशय धूसर आशिल्ल्यान एका परस चड अर्थाच्यो शक्यतायो ती व्यक्त करता. हो ताच्या तंत्राचो भाग न्हय तर तो ताचे कवितेच्या आशयाचो आनी अभिव्यक्तीचो सभाव. हो संग्रह म्हळ्यार परेशाले कवितेचें मुखार घाल्लें पावल आनी तेच भशेन कोंकणी कविता कितली समृध्द आसा हाची गवाय दिता.

**माधव बोरकार**

# चित्रभास

तांबडीगुंज
फुलांची ही रंगबोली

रगताची तांबडीगुंज
ही भास
ओली

मदीं
तुजे म्हजे
तांबडीगुंज ही
परमळटा आस

येता
म्हज्या रगताचो
म्हजे चित्रभाशेक वास...

# सगळेंच पारदर्शक

सगळेंच पारदर्शक
उदक, वोत, वारो आनी
झाडां लेगीत

तुजे उदकाचे दोळे
आनी
वोताचें रस्मी आंग
वाऱ्याचे झुळकेंत
झाडांतल्यान वता सळकत
आरपार

हांव पारदर्शक जातां
तुका पळेतना तुजे इतलोच
आनी
झाडां लेगीत पारदर्शी
फुलारून येतात
पानां पानांतल्यान
मंद निस्ततल्या
उजवाडांत...

# मोरपांखी

स्वासांतूच आसा तूं
आनी
उस्वासांत हांव
आनी
अख्खे जिणेंतूच आमी तुडूंब

रगतांत निळो तुज्या
आनी
पाचवो म्हज्या
आनी
मनांत झिरपता विलोदी रंग मोरपांखी...

## सुकोमल

तूं एक पाकळी
आनी
हांव एक पाकळी
त्या सुकोमल फुलाची

मदीं
लांबचे लांब
देंठ
जिणेचो
ज्याचो लागना अंतपार...

# अनंग

रंग
देंवून आयले
तुजे कायेचो घेत आकार

रावले गळत
आंगा वयल्यान
अनंग

निस्तत
निस्तत
माथ्या वयल्यान
पायां मेरेन

धनदाट केंसांतल्यान
पावलां मेरेन तिकतिकीत
केन्ना द्रूत
केन्ना विलंबीत
लयदार आवर्तनां घेत घेत
रावले खेळत
उजवाड-सावळेचो खेळ...

हो रंगसंग...आनी
सांगाताक तुजी शिरेशिरेंत तट्टीत
जित्या रंगांची
यौवन-अनुभुती
साक्षात!

# रंग

रंग
विरगळत गेले
तुज्या ओंठांत

म्होंव
पाझरत गेलें
फुलांच्या देंठांत

रंग
तुजेच- उज्याचे

ओंठूय
तुजेच- धगाचे

हो धग
हो धगधग
धगधगून
ओंठांनीच
भोग!

अचळय
तूं फूल कशें जेन्ना
आयलें फुलून

म्हजे
ओंठ गेले आपसूक
म्होंवांत बुडून...

## हो जल्म

हो जल्म उसवता फुलां वरी
उजवता कुसव्यांत फुल्लटून उजवाडा वरी

हो जल्म फुलता रगतांत
एका उम्याच्या नवलांत...

## फुलोर

फुल
जाय तशें-

राव परमळत
रंद्रां रंद्रां
उसयत
पाकळ्यां वरी

पाकळे पाकळेंतलो
फुलोर
उजो जावन
खेळूं दी
वाऱ्यार

पाकळ्यो
झडत-बिडत जाल्यार
लजूं नाका
नागडे कायेक
लिपोवं नाका!

## हो भार फुलांचो

पळोवन घे
हो भार फुलांचो
झडचे पयलीं

सासपून घे
सगळीं पाखां
उडचे पयलीं

आतां पाकळ्योच पाकळ्यो
जशी देंवता
सांज फुलां फुलांर

मळब रंग
बदलत वता
पाखांनी ल्हवसार...

## रगता सारकें

अचकीत
उतरांनी वचून बसलें तूं
म्हज्या
आनी
जालें चित्र
संवेदनेचें
लावण्याचें
लखलखतें झुंबर

तुजें ओलें आंग
तुज्यो रंगसंवेदना
देंवत रावल्यो म्हज्यांत
रावल्यो तरंगत म्हज्या अंतरंगांत

हांव चित्रांत
सोदूंक लागलों म्हजेच रंग
आनी रंगांत भिनिल्ले तुजें रूप
रगता सारकें...

## पयस पाचव्या शेतांत

पयस पाचव्या शेतांत
रंग चरतात
बळारींचे
धवे
धवे

कांय रंग
गोरवांचे फाटीर
कावळ्यांचे
काळे
काळे

# चित्रभाशेच्या रूपांत

उतरां उतरांतल्यान
हांव
रावतां गळत

म्हजेच नकळत
पावस कसो
मळबांतल्यान झिरमिरून

तूं भिजून
रावता
धतरीच्या गोपांत रिगून

तुजेच नकळत
चित्रभाशेच्या रूपांत
रंगून...

## रानमोनेळ

रानमोनेळींतलो
फुलता काळोख निळोजांबळो

उजवाडांत आसता तूं
आनी
काळखांत हांव

उजवाडाचे सातूय रंग घेवन
येता तूं
आपसूक
काळखांत

रानमोनेळींत
अळंग पाकळ्यो उगडीत फुलतल्या
रानफुला भशेन
फुलता तूं
निळेंजांबळें...

## ओंठ

ओंठ तुजे
फुलय

ओंठांक म्हज्या
भुलय

ओंठांतली
ओंठांवयली
ओंठांमदली
ओंठांचेर
गुंजतांबडी लय

-आतां लयींत
उलय...

## वाच

वाच
म्हजे दोळे
तुज्या दोळ्यांनी

ओंठावयल्यान
फिरय ओंठ
गोडगुलाबी

म्हज्या स्वासांत
घुमयत राव
तुजो स्वास
वाटोळे सारको
निमाण्या स्वासा मेरेन...

वाच
म्हजी काया
महामाया जावन
वाच

वाच
म्हजें रूंवान रूंव
रंद्रान रंद्र
तनरेवन

पळे चंद्र
आनी मनय
पुनव आंगभर
चैत्रांतली...

वाच
हें सगळें-
वाचून उरल्यार

वाच
रगता भशेन
गोठयल्लें
तांबडें तांबडें
रूप म्हजें

काळ्या काळ्या दोळ्यांनी तुज्या
वाच
शुभ्रावस्था
मनाची म्हज्या...

## धुक्याची संदिग्ध हय-न्हय

आलतडीं आसा
आसतलें पलतडीं
कितें तरी

पळेल्यार दिसना
पळेनासतनाय जाणवता
खंयतरी

नदरेचो देंठ
आनी काळजाचो कांठ
हांचे मदीं
खंयतरी

आसत
जावन कुपांचो फुल्लधवो
कापूस

व्हांवते न्हंयेची
पाचवीचार ओल
उदकाळ

तांबडोगुंज लागिल्लो
फुलांचो उजो
रानाक

वावटळ रेंवटांतली
सोंशेंत राविल्ली
हळडुवीचार

खंयतरी खंयतरी कितेंतरी
आसाच

जंय तडूच ना
थंय
मदीं धुक्याची संदिग्ध हय-न्हय तरी...

## सांवरीच्या कापसा वरी

हो पळय
गळटा उजवाड
ल्हवू ल्हवू
नि
स्त
ता
झिरपता तुज्या
आंगापांगांत

पळय
फुलूंक लागल्या फांतोड
तुज्या देहांत
आनी
जावंक लागलां
आंग तुजें
ल्हवपीक
वाऱ्यार हुबतल्या
सांवरीच्या कापसा वरी...

## आवर्तन

एक पाचवेंचार आवर्तन घे
आनी जा
झाड फुलिल्लें फुलांनी भरगच्च

आंगभर आंगभर आतां
सगळे कडेन
पानां पानांची सळसळ

आनी
वसंत रूतू फुलांफुलांचो
खोल काळजांत

मळब दिसतकीच
उडून वच
शेवणें जावन काळजांतल्यान

घे आवर्तनां उडत उडत वाऱ्याक वेंगून
आनी यो समेर देंवन अळंग
फूल जावन धवेंफुल्ल...

## पयस पळय शेतांत

पयस पळय शेतांत
म्हज्या पळय दोळ्यांत
तुजें पाचवेंपण

तन्नें तुजें
हरवें तुजें
रसरशीत शेत तुजें

दोळ्यांत दोळे घालून पळय
आतां आमचीं
सपनांय जातलीं पाचवीं...

# प्रसन्न पाचवी गाज

धुंवाधार पावसान
तापिल्ले मातयेक घाली
गाढ वेंग

वेंग
ओली ओली
मातयेच्या काळजाक
खोल मेरेन वेंटाळत गेली

मातयेच्या काळजांत
फुल्लो विलोद
माती भुल्लुसली

मातयेचे शिरेशिरेंत
हुळहुळ्ळी हरयाळी
माती जाली
पाचवी पाचवी

पावस झिमझिम
झिमझिमत रावलो

मातयेक घाल्ली वेंग
भिजत
गाढ प्रगाढ जायत
रंगत रावली

थेंब थेंब
पावसाचें उदक
गळत रावलें
निस्तत रावलें
मातयेच्या गर्भकुसव्यांत

गिमाच्या धगांत
मातयेचे कुशींत
घुस्मटत
झेमेत पडिल्ले बियेक
आयली तट्टटीत जाग

कळ्ळ उसयत
बियेन घेतलें अचकीत
एक स्वासमेकळें पाचवेंचार आवर्तन
त्या आवर्तनांत
घुमघुमत रावली दिकांनी
एकसारकी

युगानयुगां
बियेच्या अंतर्मनाची
प्रसन्न पाचवी गाज...

## तुजे वेंगेंत रान

तुजे वेंगेंत रान कशें
मन म्हजें
झाडांचें

झाडांय
दाट
माचंग
मिरमिरीत
मुसमुशिल्लीं
अळंग सोडटात कात...

आंगापांगांत
झाडपिको
घमघमाट

-रान चल्लें वेंगेंतल्यान
झाडांच्या मनांत सळसळत...

## सोरोप

सळसळटा वोत तणांत सोरपा सारकें
सळसळटा तण वोतांत सोरपा सारकें
सळसळटा सोरोप तणांत वोता सारको
हळडुवो

अद्‌भूत हें हळडुवेंचार
तणांतलें
भर वोतांत
सळसळत रावता म्हज्यांत
सोरपा वरी
फणो उबारून...

# वोताचो हो रखरख

वोताचो हो रखरख
फुलांचो हो भार
परमळाचो हुंवार
धायदिकां

जीण अशी तापून
फुलून तुजी म्हजी
उलयता भास वाऱ्याची
हालतना

तन्नसार हे वेंगेंत
सळसळटा पानान पान
फुलता जीण सर्वांगान
तुजी म्हजी

परमळाच्या हुंवारांत
फुल्ल्यो धायदिको आतां
जडगुळो हो देह आतां
ल्हवपीक

## रानाच्या मौनांतल्यान

रानांतल्यान
        भायर यो
झाड जावन

फूल जावन
        भायर यो
झाडांतल्यान

तळ्यांतलो
        एक थेंबो जा
म्हजे खातीर

गळ्यांतलो
        एक सूर
रानाच्या मौनांतलो...

## ते सावळेंत

झाड
रावलें निस्तत
पानां-फुलांनी सपनांत
आनी
रावली पातळत
झाडामुळा
सावळी
पाचवीचार

ते सावळेंत
नाचत रावलें
झाड
नागड्यांनी
आंगभर ताच्या
रावलीं फुटत
फुलगीं पानां
कोमऱ्यांनी...

## कळा कळांनी वारो

कळा कळांनी
वारो
कळयां कळयांनी
वारो
फुल्ल्यो कळा
वाऱ्याचे
झुळकेच्यो
    मोहमयी

सळऽ सळऽ सळऽ
झाडां
लखऽ लखऽ लखऽ
पानां
पाचवोचार मारीत भोंवर
जाल्यो
झाडांच्यो गवळणी
बांसरी
वाऱ्याची
    कृष्णमयी!

## काळश्या काळश्या उदकार

काळश्या काळश्या उदकार
तूं व्हलयता
उजवाड

त्या उदकांतलो
सगळो काळोख
म्हजो

उजवाड फुलिल्लो
तुजो...

## कोंब

काळोख लिपलो
थानांत तुज्या
उजवाडाचो
कोंब कसो
लुसलुसो

आनी
कूड तुजी
उजळ्ळी
पाशाण कशी
तिकतिकीत काळी काळी
मनांत म्हज्या...

## कातळाची घुप्प घोल

जड जड कातळाची
घुप्प घोल कोरून
काडली भायर
काळखाची
शितळ ओल करून
घेतलो आकार
उजवाडान आपसूक
भितर भितर शिल्पा भितर
चंद्रकोर कसो
ल्हवसार...

## रात आसता न्हिदिल्ली

रात आसता न्हिदिल्ली रंद्रांनी

फुलता
दोळ्यांतल्या
चंद्रांनी

चरता काळोख रातभर कातीचेर

उजवाड
तेंवत रावता
वातीचेर...

## कृष्ण

आतां कृष्ण कसो
काळोख देंवून आयलो
झाडांनी
धिक्या धिक्यांनी

झाडांच्या मनांत
मुरत रावली
आमोरेची कृष्णसया

रानांत
सावळ्यांची
कृष्णलिला...

## विळख्यांनी

विळख्यांनी
घुस्पता कुडी
मालीं उज्याचीं पेट्टा

धगधगती
वासना ही
उज्याक पाखां फुट्टा

रगताचीं
उसळटा ल्हारां
काळजाचो भरता कांठ

तुज्या म्हज्या
ओंठार उम्याची
गुंजतांबडी फुलवात

पाकळे पाकळेन
देह उसवता
कातीचेर फुलता कात

विळख्यांनी
उजळटा कुडी
रसरसता काळखांत...

## रान पालेलें थंय

चंद्र गळत आसा
रानांत

चान्नें फुलत आसा
थानांत

चंद्राक खबर ना
रान कोणाचें

थानांत फुलत आसा
चान्नें मोगाचें

मोग पिवन हो चंद्र
गळत रावलो जंय

झिळीमिळी चान्न्यांत
रान पालेलें थंय...

# उदकांत

चंद्र
तरंगत आसा
उदकांत
जसो
हांव
तुजे वेंगेंत...

# सुर्यफुलांच्या हुंवारांत

उजवाड कसो हात तुजो घेतनां हातांत
दोळ्यांत अजून झेमता जागरणाची रात

रातीचो हो घमघम काय फांतोडेचो भास
मंद लय स्वासांची फुलांच्या पाकळ्यांत

वेंगेंत रावलो दडून तुज्या काळोख रातभर
उजवाडाचो पाखो जावन उडलो दिकांदिकांत

जागे जाले सातूय रंग फांतोडेच्या किर्णांतले
रसरसून फुल्ली जीण सुर्यफुलांच्या हुंवारांत...

# कळे लागले फुलूंक

कळे
लागले फुलूंक
तुज्या कुरपण्यांतले

फुलून आयलें
तुजें मन
प्रसन्न

मात
कांय कळे
फुल्लेच नात

रावले
तशेच मोने
कुरपण्यांत;
फुलपाची म्हज्या पळेत वाट...

## फुलां येतात जल्माक

फुलां येतात जल्माक उमळशिकेन भरून,
मेकळ्या-तट्टीत खोल स्वासाच्यो
उर्बेन भरिल्ल्यो गुलगुलीत पाकळ्यो
अळंग उगडीत

फुलां परमळटात; उपाट आनंदाच्या ल्हारांर वणखेवन;
भारावलेल्या पाकळ्यां सांगातान खेळट्या वाऱ्याक
उज्याचो सळसळटो
ताल धरीत

आनी आमोरेच्या काळखांत लागतात बावपाक फुलां;
दीस भोगिल्ल्या, थकिल्ल्या-शिणिल्ल्या पाकळ्यांचे
जडसाणेचो आंगा वयलो सोंसना जाल्लो भार
इल्लो इल्लो सदळ करीत...

## रातीची वाल

रातीची वाल
पियेता
रोस काळखाचो
आनी जाता घनदाट

घनदाट ह्या वालींनी
कुचकुचतात कळे
पळयत
फुलपाची वाट

फुलता फांतोडः
उजो कसो येता फुलून
उजवाड
फुलांफुलांत...

## काळाच्या हारशांत

केंसांत खोयलें
फूल तुवें
ल्हवूच
आपले भितरच
हांसत
सजत
आपले भितरच
गणयत
लजत
सगळ्यांच्या असवडीं
लायनासतनां
जाग
माग
कोणाकूच
म्हजे यादीचें;
काळाच्या हारशांत
म्हजें पडबिंब पळेत पळेत...

# कांय फुलां

कांय फुलां
लयींत लागलीं उलोवंक
आनी
गुंथीत रावलीं भास

कांय फुलां
तालार लागलीं गावंक;
तांचें गाणें आयकून
सरसर चडत रावली वाल...

कांय फुलां
मनांतल्या मनांत रावलीं गुणगुणत
आनी पातळत रावलो रानांत
गंध-सुगंध

पाकळ्यां पाकळ्यां वरी तट्टून
म्हाका जायत रावलो
भास फुलांचो
सपनांत...

## फुलपाख्यांच्या सपनांत

मोनेळींतूय
उलयत आसता पानां फुलां
वाऱ्या कडेन

वारो भिरभिरत आसता
शेवण्यांच्या
पाखां कडेन

भास कळना तेन्ना आसता
फकत
अदमास

भास जायत रावतात फुलांचे
फुलपाख्यांच्या
सपनांत

## धवीफुल्ल फांक

गुंजतांबड्या आबोल्यां वरी
धग रगताची
फुलून
इल्ली
इल्ली
रावली न्हिवत
शिरंतरांत

अनंताच्या फुलां भशेन
उजवाडाची नित्तळ
धवीफुल्ल फांक
ल्हवू
ल्हवू
रावली फांकारत
खोल मनांत...

## मनाचे शुभ्रावस्थेंत

अनंताच्या फुला इतल्या मनाचे शुभ्रावस्थेंत
हालयतना पाळणें;
पाळण्यांत न्हिदेक पिकिल्लें भुरगें
जाल्लें दिसता
तळये वयलें चान्नें...

## कमळां

कमळां फुल्ल्यांत तळ्यांत
जळामळा

आतां लागल्यांत फुलूंक
दोळ्यांत
तुज्या-म्हज्या

आयलां तुंवूय घोंसार
आनी
हांवूय

आनी
आमी दोगांय
पर्मळत
कमळां सारकीं
हालयत पाकळ्यो
उबीं
अळंग
काळजाच्या देंठार...

## हांव विरगळटां तुज्यांत

हांव
विरगळटां तुज्यांत
जसो
उजवाड काळखांत
आनी
खोल झिळमिळिल्ले वरी
रावतात फुलत
मनांत म्हज्या
कृष्णकमळां
स्पर्शाचीं तुज्या...

## जशी आयली तशी

जशी
आयली तशी
यो परतून अशी

जशी
आयली तशी
वचशी परतून अशी

यो फुलारून धवीफुल्ल
अशी परतून-परतून
आयली तशी
येतली तशी
जमता तशी
काळखांतल्यान
जशी
फुलांची धून
मंद्र

# मूठ

हांव
धांपता म्हजी मूठ
तुका पळोवन
गच्च

तूं भरगच्च
म्हाका पळोवन
उगडटा
म्हजी धांपिल्ली मूठ
आनी
सोडटा सपनां
म्हजे मुठींतलीं वाऱ्यार
शेवण्यां सारकीं
सैरभैर...

# जिणेक पाखां फुट्टनां

पानां फडफडलीं
पानां पानांतल्यान शेवणीं उडलीं
शेवणीं वचून वाऱ्याक भिडलीं...

तोलत रावलीं शेवणीं वाऱ्याक
भोंवरत
दिगंतांत

वारो म्हळ्यार जीण
वारो म्हळ्यार स्वास-उस्वास
जिणेक पाखां फुट्टनां
पळय,
वाऱ्या वयल्यान जालो उगडास
तुजो
म्हाका
आमी शेवण्यां वरी उडटनां

-भुर्ररऽऽऽ

## पाखां

मळबभर पातळत राविल्ली हुनहुनीत सांज
रंगयाळ्या कुपांची उर्बा
वोताची परजळीत उर्जा
आनी सांगाताक
दर्याची गाज ल्हारां ल्हारांत भिनिल्ली
केन्ना न्हिवून गेली रगतांतली
कळ्ळेंच ना.

फक्त
यादींत उरलीं
जडावल्लीं पाखां परततल्या भिन्यांचीं...

# तीं दोन शेवणीं

तीं दोन शेवणीं एकामेकांक पळेत आसात
आनी
त्या शेवण्यांक पळेत आसा तूं
आनी हांव

-आनी हांव
पळेत आसा तुका शेवणें जावन
म्हजेच नकळत

आमच्या माथ्या वयलें झाड
पळेत आसा आमकां
आनी घडये
त्या शेवण्यांक लेगीत
आनी झाडाक पळेत आसा
ताच्या माथ्या वयलें मळब
झाडाच्या नकळत

कोणाक कोण पळेत आसा
तें कळच ना निमाणें मेरेन
मळबाक लेगीत!

## चिमणेची कविता

तिचें जग आसा चिमणे येदें ल्हान;
त्या तेद्याच जगांत
ती रावतली म्हणटा
चिमणी जावन...

भायलें जग
खूब व्हडलें आसा आनी पोकोळूय
हाची तिका नात ना
घुस्पावपी वाटांचें भान ना
दिकांच्या चक्राकार गतीची
तिका ना सुलूस... ना जाण
तिचीं पाखांय
तिचे वरीच ल्हान ल्हान;
हांगाचें वारेंय सोसपाचें ना त्या पाखांक
इतलीं ल्हान
तिचे आंवडेय ल्हाऽन...

येयात,
तिच्या अंतर्मनांत
मातशे देंवून पळेयात

आनी उदकाळ दोळ्यांत लेगीत
काळजा येदो एक ल्हान घोंटेर बांदून
ती भितल्ल्याच वाटांनी
भोंवून येतली म्हणटा
चिमणी जावन...

## ओगीच

कांय कुपां आयलीं मळबांत
थानांचें रूप घेवन
काळशीं काळशीं

आत्तां आदळटलीं एकामेकांक
इतलीं लागीं

आनी आदळ्ळीं लेगीत
जोगलावत
गडगडत

खरें सांगूं ?
हांवें पळेली तांचे भोंवतणी
झगझगीत
रूप्याची देग... सरते सांजवेळे...

तेन्ना ओगीच
पावसाचो आयलो उगडास मनांत
आनी तुजोय

खऱ्यांनीच!

## मळब कितलें पयस

मळब कितलें पयस;
जितलें
आसा तूं
आनी
आसा हांव पयस
तितलें?

हें मळब
लागसार येता पयसुलें
पळेता तेन्ना
काळजांत जाता निळशें

सांग,
दिसता तुका मळब थंयच्यान
जशें
हांव पळेतां
हांगाच्यान?

## पयस

तूं हांगा ना
हें खरेंच दिसना

ना म्हळ्यार
तशें मळब आसा
आदले वरी

आसात झाडां
आसूंक जाय तशीं

भिरभीर आसा
तुज्या दोळ्यांची पानां पानांर

तुजे यादीचे खांदयेर
आसा म्हजें काळीज झिरकल्लें
अजुनूय

आनी
त्या काळजांतल्यान उडटात
शेवणीं

मळबांत पयस पयस...
हें खरेंच दिसना

खऱ्यांनीच
तूं हांगा नासतना
कांयच खरें दिसना!

## पिशें

तूं एकलें
एकलेंच अशें
पयस उबें
माळून
दिगंतओल्या
जायेसाचें पिशें...

# देंवत आसा तूं

देंवत आसा तूं
सकयल
म्हजेसरी
येवपाक
नाशिल्ल्या सोंपणांचेर
दवरीत
एक
एक पांय

गुंथीत आसा हांव
मणयांची
माळ एक
तुजेखातीर
नाशिल्ल्या दोऱ्याचेर
बोटांनी
ताणून धरीत
मणयांक...

## जाय जायशें

जाय जायशें दिसता
नाका नाका तेंच

हें जाय; तें जाय म्हणटना
कितें नाका तेंच कळना

कळना तुजें, कळना म्हजें
कोणाक कितें जाय तेंच कळना

ओंठार एक; मनांत एक
हें दाखय; तें लिपय

दाखय-लिपय नाका आतां
फकत म्हजे खातीर जाय-जुयशें हांस एकदां...

## निळे निळे धुंदेंत

तुजो हो विखार
जाता म्हजो फुलोर

निळे निळे धुंदेंत एकलो
रगतांत नाचता मोर...

## सचेतन

ना वारो
ना पानांची सळसळ
ना एकाद्रें शेवणें लेगीत
आशिकुशीक

हें झाडांचें मौन
काय
हें मरण झाडांचें ?

दिसता :
ह्या झिळमिळट्या काळखांत
आसुंयेता एकाद्री अव्यक्त आस
ह्या झाडांच्या सुकिल्ल्या खांदयांनी
खंयतरी दडिल्ली
कोमऱ्यांची
रंगपिशी
सचेतन!

# त्या पाकळ्यांनी

हांव
फुलतां तांबडोगुंज
पाचव्याचार वेंगेंत तुज्या

तुज्या
शिरंतरांची पालय
लुसलुशी
झेलयता म्हाका
ओलायेंत तुज्या

हांव
रावतां फुलत
रावतां झडत
पाकळ्या-पाकळ्यांनी
वेंगेंत तुज्या

तूं
पुंजायता पाकळ्यो
तांबड्योगुंज;
रगताची गाज त्या पाकळ्यांनी
वेंगेंत तुज्या...



परेश नरेंद्र कामत

जल्मः १९६८ वर्सा- पणजी.

वेवसायान फार्मासिस्ट.

**उजवाडाक आयिल्ले कविता झेले :**

- अळंग (२०००)
- गर्भखोल (२००४)
- शुभंकर (२००९)
- चित्रलिपी (२०१३)
- रंगबोली (२०१८)

**पुरस्कार :**

- कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार २००१
- कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार २००५
- धी गोवा हिंदू असोसिएशन (मुंबय) कविवर्य बा. भ. बोरकर स्मृती साहित्य पुरस्कार २००४
- कला अकादमी साहित्य पुरस्कार २००९

- जनगंगा साहित्य पुरस्कार २०१०
- जे सी आय फोंडेंचो युथ आयकॉन पुरस्कार २०१०
- युवा सृजन पुरस्कार (गोंय सरकार) २०११-१२
- गोवा कोंकणी अकादमी सर्वोत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार २०१२

वेंचिक कोंकणी कवितांचे हिंदी, मराठी, पंजाबी, सिंधी, गुजराती, उडिया, कन्नड आनी इंग्लीश ह्या भाशांनी अणकार.

केंद्रीय साहित्य अकादमीन मेघालय, औरंगाबाद, बंगळुरू, पणजी, कोची, थिरूर, थ्रिशूर, कोणार्क, नागालँड हांगा आयोजीत केल्ल्या राश्ट्रीय पांवडया वयल्या कविसंम्मेलनांनी वांटो.

अखील भारतीय आकाशवाणीच्या सर्वभाशा कवीसंमेलनांत 'तुडूंब' ही कविता सादर केल्या आनी तिचो अणकार सगल्या भारतीय भाशांनी जाला.

कवी राजेश जोशी हांच्या 'दो पंक्तियों के बीच' ह्या साहित्य अकादमी पुरस्कार फाव जाल्ल्या हिंदी कविता संग्रहाचो साहित्य अकादमी खातीर कोंकणी अणकार.

परेश नरेंद्र कामत हो फाटल्या शतमानाच्या निमाण्या दसकांत मुखार आयिल्ले पिळगेंतलो सगळ्यांत म्हत्वाचो कवी. भारतीय कवितेच्या इतिहासांत ह्या णव्वदीच्या दसकाक खाशेलें म्हत्व आसा. हें दसक म्हळ्यार सरत आयिल्ल्या शतमानाच्या आमोरेचो काळ. ह्या काळांत संवसाराचें राजकारण, समाजकारण आनी अर्थकारण कूस परतितना दिसता. पर्यायान ताचो परिणाम साहित्य व्यव्हाराचेर जाले. ह्या काळांत नव्यो जाणिवो कवितेंत आयिल्ल्यो दिसतात.

परेशाचे कवितेचें वैशिश्ट म्हळ्यार ताचे कवितेंतल्यो चित्र प्रतिमा. तांचो अभ्यासाचे नदरेन विचार केल्यार संस्कारवादी चित्रकारांची याद जाले बगर रावना. ताचें एक म्हत्वाचें कारण अशें : एखाद्र्या विशिश्ट अशा खिणाक वा अणभवाक संवेदना संस्कार करता. अशे अभिव्यक्तीक हे कवितेंत वाट मेळटा. सैमान जे खिणा खिणाक बदल जातात ते बदल ही कविता अळंगपणान टिपता. आनी ह्यो सौंदर्य संवेदनाच हे कवितेक आकार दिता.

कविता आनी चित्र एकामेकांच्या सामक्यो लागीं येतात हाचो अणभव परेशाची कविता दिता. ती निखटी कानांनी वाचपाची नासता तर दोळ्यांनी पळोवपाची आसता. सैमाच्या प्रतिमांक वा अवकाशाच्या प्रतिमांक आपलें अशें खाशेलें रूप, रंग, आकार, गती आनी लय अशे गूणधर्म आसतात.

'काळ्या काळ्या दोळ्यांनी तुज्या / वाच / शुभ्रावस्था / मनाची म्हज्या' ही हे कवीची अणभव घेवपाची तरा. हो काव्यानुभव गूढ असो न्हय तर तो लौकीक आसुनूय ताका अलौकीकतायेचो स्पर्श आसा. हो अणभव जाणवता तरी शब्दां पेल्यान उरता. सगळेंच सांगपाची तिची वज न्हय तर ही कविता आपलो अर्थ लावपाक सुचयता. कवितेक भाशीक लय आसता तेच प्रमाण तिका वृत्तीची लय आसता. आनी ह्या दोगांयचो सुंदर मेळ परेशाचे कवितेंत घडून आयिल्लो अणभवाक येता.

परेश कामतीची कविता निखटी रंगांची आनी प्रतिमांची उधळण न्हय. तो प्रत्येक प्रतिमा आनी प्रतिकां तोलून मापून वापरता. कोंकणी कवितेंत रंगसंवेदना आडवादानूच आयिल्ली दिसता. कांय कडेन तिचो आशय धूसर आशिल्ल्यान एका परस चड अर्थाच्यो शक्यतायो ती व्यक्त करता. हो ताच्या तंत्राचो भाग न्हय तर तो ताचे कवितेच्या आशयाचो आनी अभिव्यक्तीचो सभाव. हो संग्रह म्हळ्यार परेशाले कवितेचें मुखार घाल्लें पावल आनी तेच भशेन कोंकणी कविता कितली समृध्द आसा हाची गवाय दिता.

**माधव बोरकार**